# बर्फाचें जग

आर. एम्. वेलेंटाअिन हांच्या 'दी वर्ल्ड ऑफ आयस' हे कादंबरिचो अणकारिल्लो संक्षेप 'बर्फाचें जग'. वेलेंटाअिन हो अिंग्लीश लेखक २४ अेप्रिल १८२५ वर्सा अिंग्लंडांतल्या अेडींबर्ग गावांत जल्मलो आनी ८ फेब्रुवारी १८९४ वर्सा भायर पडलो. घरचो गरीब देखून नोकरी धंदयाखातीर भोंवचो पडलो. कांय तेप केनडांत रावलो. आनी गांव घरा येतकूच अेका प्रकाशकाकडें कामाक रावलो. आपलें पयलें पुस्तक १८४२ वर्सा अुजवाडायलें. बरे दीस येतकूच खूबकडें भोंवलो आनी आपल्या लिखाणांत हे भोंवड्चो अुपयोग केल्लो नदरेक येता. खूब पुस्तकां बरयलीं.

अणकार – अभयकुमार वेलींगकार

---

शणै प्रकाशन
वेलींग – गोंय

शणै प्रकाशन : ६

पयली खेप : फेब्रुवारी १९८१



उजवाडावपी :

शणै प्रकाशन

वेलींग – गोंय

४०३४०४

छापपी :

काझ अुदय प्रिंटींग प्रेस

पोस्ट ऑफीसालागीं

पणजी – गोंय

४०३००१



मोल : अेक रुपया

# " बर्फाचें जग "

## ध्रुवतारो' पातमार चल्ली

देवमाशांची शिकार करूंक म्हुण बर्फाळ वाठाराकडे ध्रुवतारो पातमार चल्लेली. ग्रेटन बंदराचेर बोवाळ जाल्लो. शिकार करूंक वचपी आनी तांकां परबीं दिवपी हांची यो, वच वाडिल्ली.

तरणाटो फ्रेड त्या लोकांमदी अुबो आसलो. ताच्यावांगडा ताचें राणांव आका आनी तिची चली इझाबेल हिवूय आसली. जॉन बझबी हो तांच्या कुटूंबाचो अिष्टूय थंय आयिल्लो. बझबी अेक अणभवी तांडेल आसलो. तो खूब फावट असलें मोहिमांचेर वचून आयिल्लो. ह्या वेळार तो फ्रेडाक आपले भोंवडेच्यो गजाली सांगतालो पुण फ्रेडाचे काय लक्ष ताचेकडे नासले. ताच्या मनार चिंता, हुस्को हांचेच राज्य आसलें. हाचे कारण म्हळ्यार 'ध्रुवतारो' पातमारीचेर, ताचो जाण्टो बापूय फ्रेडरिक अेलिस होय देवमाशांच्या शिकारेक वचूंक तयार आसलो. तसो फ्रेडरिक अेलिस होय अेक अणभवी आनी दर्या गाजोवन आयिल्लो मनीस आसलो. ताणे खूब भोंवड्यो केल्ल्यो पुण आता जाण्टेपणांत ही भोंवडी पेललीना तर ? आनी हीच चिंता फ्रेडाच्या फाटीक लागिल्ली. ताचें आका जाल्यार, आपलो भाव आपणांक परतो मेळचोच ना, ह्या भयान रडटालें, फ्रेडरिक अेलिसान भयणीक धीर दिलो. 'अिझाबेलाची आनी फ्रेडाची जतनाय घे. स्वताक सांबाळ, अशें सांगून ताणे सगळ्यांचो निरोप घेतलो.

दुखेस्त मनान सगळे परतले.

ध्रुवतारो पातमार पयस पावली, नदरेआड गेली ! फ्रेडरिक अेलिसान जरी पन्नाशी हुपलेलो तरी तो खूब अुमेदी आसलो. ताका असल्यो भोंवड्यो आवडटाल्योच पुण ह्या दिसानीं ताका अेकलोच खंयतरी पयस वच्चें अशें दिसतालें. ताची बायल जे तरेन हो संवसार सोडून गेल्ली ताका लागून तो असो दुखी आनीं अेकमुळगो जाल्लो.

अशेच अेके भोंवडेच्या वेळार तांच्या पातमारीचेर दर्यावेल्या चोरानीं हल्लो केल्लो आनी त्या झगड्यांत अेलिसाच्या बायलेक ताणीं (चोरानीं) दर्यांत मोखून अुडयली. फ्रेड आनी अेलिस वांचले ते नशिबानूच. पुण तेन्नापसून अेलिस मात असो दुखी आनी अेकमुळगो जावन पडलो. जिवाक बरे दिसनाफुडें फ्रेडाक भयणीच्या सुवादीन करून तो परतो भोंवडेर आयिल्लो, आपले बायलेच्या दुखेस्त मरणाची याद विसरपाक तो भायर सरिल्लो.

## 'सागरकन्या' चल्ली

करतां करतां तीन वर्सां गेलीं पुणून फ्रेडरिक अेलिस परतो आयलोच ना ताका पळेल्याची जांव तो खंय आसा म्हुण खबरूय कानार पडलीना. आका हुस्क्यांत पडलें. फ्रेडाकय. कितें तरी करूंक जाय अशें दिसूंक लागलें. तो विचारांत पडलो आनी विचार करतां करतां ताका सुचलें कि सिंगलटनाक मेळचो. सिंगलटन हो अेक व्यापारी आसलो. ताचेलागीं पातमारी आसल्यो आनी तो फ्रेडाच्या बापायचो, फ्रेडरिकाचो शाळेंतलो अिश्ट आसलो.

फ्रेड ताका मेळ्ळो आनी सगळी खबर ताका सांगली. ताणें सांगलें, "आमची अेक पातमार नुस्तें मारूंक रोखडीच अुत्तरेक वच्चो आसा आमचो टॉमूय वतलो. तुका जाय जाल्यार तूंय वच कॅप्तानाक हांव अेलिसाचो सोद घेवंक सांगन."

हें आयकून फ्रेडाक खांशी जाली. टॉम हो सिंगलटनचो पुत आनी फ्रेडाचो अिश्ट. बांगड बरो आसलो! ताणें बझबीक ही खबर सांगली. बझबीय ताचे वांगडा येतलो म्हुण बसलो.

आनी अेक दीस फ्रेड, टॉम आनी बझबो हांकां घेवन 'सागरकन्या' पातमार नुस्तेमारीक म्हुण अुत्तर दिकेकडल्या बर्फाळ वाठारींत वचूंक भायर सल्ली. आका आनी अिझाबेल तांकां पावोवंक बंदराचेर हाजीर आसल्योच.

'सागरकन्या' पातमारीचो कॅप्तान 'गाय' बरोच हुशार आनी कर्तपी मनीस आसलो. ताणे बॅफिन दर्यांत वचून अेलिसाचो सोद घेवचो आनी मागिरूच देवमाशांच्या शिकारेक वच्चें अशें थारायल्लें.

पातमारीवेल्या तांडेलांक ताणे तशेंच सांगिल्लें. पंचेचाळीस लोकांची ही पातमार सागरकन्या मोठुचो, घट्ट लोखंडाच्यो पट्टचो बांदून घट केल्ली. व्हडल्या व्हडल्या बर्फाच्या खडपांक धक्को दिवचो प्रसंग आयलो जावं बर्फाचो दोंगर यवन आदळ्ळो जाल्यार कांयच जावचे न्हय म्हुण हो येवजण आसलो. मुखावयल्या तोंकार अेक अुंच जागो दवल्लेलो जंय अुबो रावन पयस पळोवंक मेळटालें देवमाशांच्यो चलणुको थंयसून पळोवंक मेळटाल्यो.

सागरकन्या नेटान वताली वतांवतां पातमार अप्पर नोव्हिकच्या धक्याक लागली. फ्रेड, कॅप्तान गाय आनी टॉम सिंगलटन थंय देंवले. थंयच्या रावपी लोकां-कडेन ताणीं ध्रुवतारो पातमारीची वासपुस केली. तेन्ना तांकां मेळिल्ल्या खबरे वेल्यान कळ्ळें कि, अेलिसाची मातमार अप्पर नोव्हिकाक आयली तीच वादळांत सापडलेली. पुण मागीर दर्या शांत जातकूच खावपापिवपाच्यो वस्तू घेवन अेलिस अिरलंडाक गेलो!

सागरकन्येनूय जेवणखाण भरून घेतलें. कॅ. गायन वांगडा सकुत्रे आनी 'मिट्टुक' नांवाचो अेस्किमो घेतलो. हो शिकारी, वाट दाखोवपी आनी दुभाशी म्हणून अुपयोगाक येतलो आसलो.

बर्फाळ वाठार, आनी अेस्किमोंच्यो वसाहती हुपीत सागरकन्या फुडें वताली वाटेर खबकडे वासपुस करतकूच अितलेंच कळ्ळें कि ध्रुवतारो नावांची पातमार अुत्तरेक गेल्ली पळेल्ली. परत आयिल्ल्याची काय कोणें पळोवंक नासली.

हें आयतककूच कॅ. गाय, टॉम, बझबी, फ्रेड आनी वांगडयानीं थारायलें कि, अुत्तरेकडे वच्चें आनी ध्रुवतारो बोटीचो सोद कशेय तरेन घेवचोच.

## बर्फाच्या दोंगरांचे संकस्ट

बर्फाच्या दर्यामदल्यान फुडें वतना दीस अिल्लो अिल्लो व्हड जाता म्हणपाचे फ्रेडाच्या तकलेंत आयलें. फुडें अुत्तरेंत, भितर पावतकूच मध्यान्निच्या दिसाची सोबीतकाय तांकां अणभवूंक मेळ्ळी. सागरकन्या पातमार जेन्ना ध्रुव प्रदेशांत पावली तेन्ना गिमाचे दीस सुरू आसले. पातमारीवयल्या लोकांक कितले तरी दीस रात पळोवंक मेळ्ळीच ना. मध्यान्निचोय, सुर्य मळबांत आसतालो आनी ताचें खर वोत आंग भाजून काडटालें. बर्फाचे दोंगर चकचकताले ते पळोवपांत फ्रेड आनी टॉम आपणांक विसरून वताले.

पुण अेक दीस कॅ. गायन सगळयांक अूलो माल्लो आनी अेकठांय हाडले. गाय सांगूक लागलो "आमी दोन व्हड बर्फाच्या दोंगरांम्हऱ्यान चल्लयात. कितेंय तरी करूंक जाय, नासल्यार दोनायमदीं सांपडून आमी चिड्डतले." गाय चिंतेस्त जावन फेरयो मारूंक लागलो. मागीर ताणे हुकूम सोडलो, "सडसडीत शिड अुबारात ! अेकाद्रो वारो येत सो दिसता. सगळयानीच नेट केल्यार संकस्ट पयस जातलें अशी आशा करूं येता."

पातमारीचेर बोवाळ जालो. जण अेकलो नेटान कामाक लागलो. सामकार काय पावलांवाटेर दोन दोंगरांअितलें बर्फ अेकमेकांकडे नेटान येतालें ! ते अेकमेकांचेर आपट्च्यापयलींच तांचे मदल्यान वचूंक जाय आसलें !

त्या दोन दोंगरांमदीं आतां फक्त शंभर यार्डांचे अंतर अुरिल्लें. वारो नाशिल्लो. अुजवेवटेन बर्फ पडटालो तर दावेवटेन बर्फ सांचून अुल्लेलो. अशा परिस्थितींत त्या दोन बर्फाच्या दोंगरामदल्यान पातमार पलतडीं व्हरप अेक म्हाकठीण काम आसलें. पुण आतां ते करुंकूच जाय आसलें. ना जाल्यार कातरींत सांपडिल्ल्या कागदावरी बोट कातरून वतली आसली !

सगळ्यानीच यत्न चलयल्ले, आनी दैवानूय मातशी काकूट केली. अिल्लो अिल्लो वारो येवंक लागलो. तांडेलानीं ताचोच फायदो घेतलो. पातमारीक नेट चडलो आनी निमाणे सागरकन्या मरणाच्या दाडवणातल्यान भायर सल्ली. सगळयानीच देवाचें नांव घेत पातमार फुडें काडली पांच-स मिनटां गेल्या जायत अितल्यान 'घडम्म घो ऽऽ' असो व्हडलो आवाज कानार पडलो. दर्याचें अुदक वयर अुसळ्ळें. सगळयानीं अजापान फाटल्यान पळेलें. ते दोन हतयावरी बर्फाचे दोंगर अेकमेकांचेर आपटल्ले. बर्फाचे अिल्ले अिल्ले कुडके जाल्ले. दोंगराच्या माथ्याचो चुरो जाल्लो.

## दुसरें संकस्ट

संकस्टां येवंक लागली म्हणजे अेकाफाटल्यान येवंक लागतात. अूत्तरे-कडल्या बर्फाळ वाठारांत तीं आयलीना जाल्यारूच अजाप म्हणपाचें !

सागरकन्या अेका संकस्टातल्यान वाटावली खरी, पुण कांय वाट चलल्या अुपरांत तिचेर दुसरें संकस्ट आयलें आनी तें म्हळयार पातमार बर्फांच्या पिठांत (snow) मुंगल्ली ! चोंयवाटांनी बर्फ सांठले. ती, बर्फांचें कपडे करून जशी कितें बर्फूच जाल्ली. तिका फाटीं वचूंक येना जांव फुडें येवंक येना आनी पातमा-रिची अशी अवस्ता जाल्यान पातमारी वयल्यां सगळयांकूच तोंड धांपून अेका जाग्यार बसचे पडलें.

पुण अशे रावन अुपकारपाचें नासलें. दीस वगडावप शक्य नासले. चड अुशीर जायत तर देवमाशांच्या शिकारीचो तेंप सोपतलो आसलो.

देखून गायन थारायलें कि पातमारी भोंवतणीं सांठिल्ले बर्फ फोडचें आनी चाळीस अेक यार्डांविल्यान व्हांवरी अुदकांत सागरकन्येक व्हरची आनी हें काम दोन दिसांभितरूच जावंक जाय आसले. व्हडले भरतेचे ते दीस आसले. ही भरती जर चुकत जाल्यार ते अवस्तेंत थंय कितले दीस रावचे पडटले आसलें, देवाक खबर !

परते सगळे कामाक लागले. सागरकन्येच्या भोंवतणचें बर्फ फोडूंक तुतये, पारयो, घण वावरूंक लागले रातदीस काम चललें. पुण निमणें सुरुंग लावचेच पडले अेका फाटल्यान अेक सुरुंग भल्ले आनी पेटयले. चोंयवाटांनी सुरुंग पेटले, तेन्ना च बर्फ फुटून वितळूंक लागलें.

बर्फांत मुंगल्लेली पातमार जशीजशी सुटली तशे पातमारीक पयलींच बांदिल्ले दोर ओडून बोट व्हांवत्या अुदकामेरेन पावोवपाक सगळयानीं शक्त अेकठांय केली. कॅ. गांय, फ्रेड, टॉम सगळेजाण पातमार ओडपाक लागले.

कितलींय संकस्टां आयलीं तरी यत्न केल्यार तांतल्यान भायर सरूंक जाता हें कोणूय मानतलो हेय फावट हू वो अजमव आयलो. सुरुंग पेटयल्यान बर्फ वितळ्ळे आनी त्याच वेळार भरतीचें ल्हार आयलें. ताका लागून घट जाल्ली पातमार दोरीं ओडनाफुडें चलूंक लागली ! सागरकन्या परती अुदकांत पेवंक लागली, हालूं लागली, धोलूं लागली. सगळयानीं हांसून, नाचून, बोवाळ करून खोशी परगटायली !

सागरकन्या नेटान वचूं लागली. पुण हो नेट, ही खोशी कांय खिणूच भुल्ली.

मातशे फुडें गेल्याअुपरांत परतो अेक बर्फांचो दोंगर आड आयलो. तो फोडपाचे यत्न फुकट गेले, सुरुंग लावन ताचे दोन कुडके केले, पुण ते थंयच मुंगून बसले. ते कशेच हालनात आनी सागरकन्येक वाट मेळना. करतां करतां सगळेंच निर्शेले पुण तांका अिल्लेंय वश मेळ्ळेना.

सगळे निर्शेले हातूंत अजाप नासलें, कारण आतां सगळो शियाचो तेप तांका हांगाच काडचो पडटलो आसलो.

पुण कॅ॰ गायक अशें निर्शेवन चलपाचें नासलें. तो तर कॅप्तान आसलो; सगळयांचो मुखेल आसलो॰ ताच्या मुखेलपणाची कस लागची वेळ आतांच आयिल्ली अशाच वेळार तांडेल काचाबूल जातात, बंड करतात ! कॅ. गायन नेट केलो. सगळयांक अेकठांय केले आनी तांकां सांगलें, "अिश्टानों ! प्रसंग कठीण आसा. पुण धीर सोडूंक फावना. ह्याय संकस्टाकडे झगडूंक जाय. येवपी थंडेक तोंड दिवंक जाय. ह्याखातीर अेकठांय रावन सदचें काम करप म्हत्वाचें. सगळयानीं मुखेल्याचे हुकूम पाळूंक जाय. सदांच प्रार्थना करूंक जाय आनी जो कोण हुकूम आयकुचोना जावं जाचें वर्तन वायट आसतलें ताका ख्यास्त भोगची पडटली. मान्य आसा !"

"हय ! आमकां मान्य आसा !" सगळयानीं अेकदम म्हळें, आनी शिस्तीन रावपाचें उतर कॅ. गायक दिलें.

## शीं आयलें

शीं आयलें तें बर्फाचो पावस आनी वादळां घेवनूच ! सगळो वाठार बर्फमय जावन गेलो !

कॅं गायन विचार केलो कि सागरकन्येचेर रावन अुपयोगाचें नासले. आतां खंय तरी रावकूच जाय आसलें, म्हण्टकूच ताणें थारायलें, लागसर आशिल्ल्या त्या ल्हानशा जुंव्यार वच्चें, अेकाद्रो तंबू ताणचो आनी रावपा–जेवपाची व्यवस्था करची. ताणे रोखडेंच बोस्टन नावाच्या मनशाकडे तंबू ताणपाचे काम दिलें. पातमारीवेलो माल तंबूत व्हरपाचें काम ग्रीमाचेर सोपयलें आनी पातमारी पासून जुंव्यामेरेन बर्फ फोडून खळी तयार करपाचें काम सॉंडर्सांचेर सोपयलें. प्रत्येकाक मदतीखातीर कांय मनशां वाटून दिलीं. कांय जाणाचेर शिकार करप, लाकडां पुजोवप हीं कामां दिलीं आनी हांचो जापसालदारकी मिटूकाकडे सोपयली. टॉमान त्या वाठारांतल्या झाडापेडांचेर सोद लावचे थारायले तर फ्रेडान मिटूकावांगडा भोंवचे थारायलें.

शियादिसानीं रावपाची व्यवस्था जालयाअुपरांत मजेखातीर लोकानीं कांय अुपाय सोदले. मिटूकान केसाळ कातीचे तराक-तरांचे कपडे शिवले. ते वेगवेगळे कपडे घालून तांडेल नाचताले, गाताले. टॉमान आपल्यो संग्रहातलीं पुस्तकां काडलीं. तांतलो कांय भाग तो सदांच वाचून दाखोवंक लागलो. फ्रेडान हातबरपांतले अेक सप्तकी नेमाळें सुरू केलें. तांतले सोबीत लेख, काणयो, चित्रां सगळें फ्रेडूच करतालो. सागरकन्येवयल्या लोकांक फ्रेडाचें सप्तकी नेमाळें खूब आवडलें. ते वाचूंक पिशे जाताले. तुटून पडटाले.

अशे कांय दीस गेले आनी अक्टोबरची दुसरी पंद्रस सुरू जाली. ते बरोबर मळबांत चकचकपी सुर्या हळूहळू अस्तमतेक वच्चे तयारेक लागलो आनी अेका दिसा

रातीन आपलें राज्य सुरू केलें. आतां सगळेकडें रात आसली. चोवीस वरां रात ! आनी अेक दीस, दोन दीस न्हय तर फुडलो वसंत रुतु येसर अशी ही रात अुरपाची ! सूर्य म्हणून दिसपाचो ना. दिसाचो अुजवाड म्हणून ना !

पयले कांय दीस कोणाक कांय दिसलेना पुण मागीर मात तांका अस्वस्थ दिसूंक लागलें. केन्ना अेकदां दीस अुदेता अशें तांका जालें. पुण हळू हळू हाजीय संवय जाली. सदांच मळबांत चकचकपी चान्न्याच्या मंद अुजवाडांत वावुरपाची, काम करपाची तांका संवय जाली. हया बदललेल्या परिस्थितीक तोंड दिवंक ते शिकले. संकस्टांत सगळे वांगडचे जातात, तशे हांगा वांगडचे जाल्ले. व्हड—ल्हान, मुखेली—हांडेल असो भेद अुरूंक नासलो. ताचो त्रास सगळयांकूच जातालो.

## नवी अिस्टागत

अेक दीस पातमारो वयल्या सुण्यांतली डम्स आनी पोकर हीं दोन सुणीं बर्फाच्या अेका तेकडेर खेळटालीं. अितल्यांन ताणीं कोणाकतरी तांचेटेवन येतना पळेलो आनी रोखडीच ताणीं भूंकूंक सुरवात केली !

सुण्यांचे भुंकप आयकून बझबी आनी पीटर तेवटेन पळोवंक लागले. पळेतात तर अेक केसाळ कातीचे कपडे केल्लो आनी फाटीक लोंबकळयल्ल्या कात-डयाच्या झोळयेंत कुकुल्या भुरग्याक दवल्लेली, दाट ओठांची, मोठया नाकाची अेस्किमो बायल येतना दिसली. ते त्या बायलेम्हऱ्यान वचूंक लागले, तर तांका पळोवन ती बायल धांवूंक लागली. ती भियेल्या म्हणपाचें कळनाफुडें ग्रीम्र तिचे फाटल्यांन धांवलो आनी तिका गाठून सांगूंक लागलो, "भियेव नाका, आमी तुका कांयच करीनात." बझबीन आनी वांगडच्यानीय तिका धीर दिलो. अितल्यान आनीक अेक दादलो त्या बायलेफाटल्यान येतना ताणी पळेलो. ताच्या हातांत अेक भालो आसलो आनी ताचें वागप हल्लो करूंक आयिल्लेवरी आसले. ताच्या फाट-ल्यान आनीक कांय लोक येताले ! तांची टोळीच आसली ती !

अेस्किमो लोकानीं आपणांक घेराव केला म्हणपाचें बझबी वळखलें. ताणे रोखडेंच हातांतले आयुध सकयल अुडयलें आनी तांच्या सामकार गेलो. आयु-धाविणे तो कितेंतरी सांगता हे पळोवन तांकाय ताचो भंय दिसना जालो. खाणो-खुणो करून ताणीं अेकमेकांलागीं अिस्टागत जोडली मागीर ते सगळेजाण हांसत खेळत सागरकन्येकडे वचूंक लागले. फुडें आयिल्ली ती बायल आनी फाटलो दादलो ही दोगांय घोव बायलांच आसलीं. ते बायलेचे नांव आसलें अनिगा आनी तिच्या घोवाचे नांव आसलें आबटोक. सगळेजाण पातमारीकडे वचूंक लागले त्यावेळार पातमारीवयल्यान कॅ. गाय त्या वाठाराचें दुर्बिणीतल्यान निरीक्षण करतालो. दुर्विणीतल्यान हे लोक पळेनाफुडें ताणें म्हळें, "आरे, हे कोण येतात हेवटेन ? चोर बी न्हय मूं ? तयार जायात सगळे, म्हजें पिस्तोल हाडात !"

गायच्या शेजरा टॉमूय आसलो. ताणेय दुर्बिणीतल्यान पळेलें. ताणे म्हळें "कॅप्तान सायब, आमचेय लोक तांचेवांगडा आसात. बझबी, ग्रीम दिसतात तांचे वांगडा."

"अशें ? मागीर हांगच्या लोकांकडेन ताणीं अिस्टागत जोडल्या दिसता! आमचे लोक आसातूच तशे हुशार !" अशें म्हणून गायन रानण्याक भरपुर 'सूप' करूंक सांगलो.

त्या अेस्किमोनी पातमार केन्नाच पळोवंक नासली. ते बाबडे रानटी अवस्तेंत रावताले. तांका बोट, दुर्बिणी, तुबकाबी पळेतकूच अजापूच दिसलें !

मिट्टुकाच्या मदतीन सगळ्यांच्यो वोळखी जाल्यो. मिट्टुकान अेस्किमोंक ताणीं विचाल्लेली सगळी माहिती दिली. तांका खोशी जाली. ताणीं सगळे तरेची मदत करचें अुतर दिलें.

मागीर जेवण जालें. अेस्किमोंक 'सूप' खुबूच आवडलो. ताणी तो मागून मागून खालो.

वतनां गायन तांका पारयो, सुरयो, कात्री, सुयो असो कितल्योतरी लोखंडी वस्तू भेट म्हुण दिल्यो. तांका त्यो भांगराच्याक मोलादीक दिसल्यो. कित्याक तर, तांका त्या बर्फाळ वाठारांत लोखंडाचो अेक कण लेगीत दिस नासलो. त्यो वस्तू अुपयोगाच्यो आसल्यो. तांचो अुपयोग कसो करचो हें तांका मिट्टुकान समजावन सांगलें.

अेस्किमोंनीय तांका चामड्याचे बूट, केंसाळ चामडें, सील नुस्त्याचें मांस असल्यो वस्तू भेट म्हुण दिल्यो. मागीर मोगान अेकमेकांक बरे मागून अेस्किमो लोक आपल्या घरांकडेन वचूंक गेले.

## वॉलरसाची शिकार

दिसाफाटल्यान दीस वताले. हळूहळू सागरकन्येवेलें जेवण सोंपूंक लागलें. जेवण कमी करचें पडलें. ताकालागून कांय तांडेलांक 'स्कर्व्ही' नावाचो रोग जालो. जेवणाखातीर आतां शिकार करूंक जायच आसली. कॅ. गायन शिकाऱ्यांचे दोन पंगड केले. अेका पंगडाचो मुखेली बोल्टनाक केलो तर दुसऱ्या पंगडाचो सॉंडर्साक. बोल्टन धा मनशां, घसरगाडी आनी सुणी घेवण अुत्तरेक गेलो तर सॉंडर्स पंदरा मनशां आनी घसरगाडी घेवन दक्षिणेक गेलो.

सॉंडर्सान अेस्किमो अिस्टांक सोदून काडचें थारायलें. पुण धा मैलांवयल्या अेस्किमोच्या गावांत पावतकूच तांणी पळेलीं बर्फाचीं वाटकुळीं रिकामीं घरां. अेस्किमोनी तो जागो सोडलेलो. ते फुडें वचूंक लागले. मातशे फुडें वतकूच तांका अेस्किमो लोक मेळ्ळे. ताणीं सॉंडर्साक आनी ताच्या वांगड्यांक येवकार दिलो आनी सगळ्यानी मेळून वॉलरसाच्या शिकारेक वच्चे थारायलें.

भाले तुबकां घेवन, बर्फाचीं व्हडलीं मळां माड्डीत शिकारी वचूंक लागले. वतांवतां अेक अेस्किमो मुखावेल्या बर्फाच्या अुंचवट्याकडें बोट दाखोवन आड्डलो. सगळ्यानीं थंय पळेले, तांका थंय अेक आकांताचो वॉलरस बशिल्लो दिसलो.

पावचांवाजयनासतना शिकारी वॉलरसच्या फाटल्यावटेन वचूंक लागले अितल्यान त्या आकांताच्या धुडान, अुंचवट्याच्या पलतडीं आशिल्ल्या दर्यांत अुडी माल्ली !

केदो आकांताचो आसलो तो ! रानटी हतयाच्याकूय व्हडलो ! केदे व्हडले दोन सुळे ! ह्या सुळयानीं तो बर्फाचे दोंगर फोडून अुडयतालो ! आवाजूय मोठो ! सगळो वाठार हालोवन अुडोवपी ! आकांताची आपली कुड बर्फाच्या जमनीर अुडोवन तो लोळटालो.

आवटोकान सगळयांक सुचोवण्यो दिल्यो आनी ताणीं वॉलरसाचेर हल्लो केलो. कळनाफुडें वॉलरसात तोंडान अुदकाचे फवारे सोडूंक सुरवात केली. खारें अुदक हालोवन फेंस काडलो.

नेम धरून कितलेशेच भाले सुटले, पुण फुकट ! वॉलरसाचे आकांताचे कुडीक कांयच जालेना. वॉलरसाक मात तिडक माल्ली. अुदकाचेर आंग आपटून ताणे आकांत केलो. ताचो हो अवतार पळोवन शिकारी भियेले, धावूं लागले. धांवतना कांय जाण बर्फाचेर निसरून पडले.

सॉंडर्सान आपलें तुबक काडलें आनी गुळयो माल्ल्यो पुण ताचोय कांय अुपयोग जालोना. मागीर आवटोकान हार्पून नावाचें शस्त्र मोखलें. वॉलरसाच्या फाटीक घाय जालो. भळभळीत रगत व्हांवक लागलें. तो आड्डूंक लागलो. लोळूंक लागलो. दर्याचें अुदक तांबडें जालें. शिकाऱ्यानी आनीक अेक नेटाचो हल्लो केलो. निमाणे तो आकांताचो प्राणी तीन तासांअुपरांत मरून पडलो.

शिकार मेळ्ळी पुण परतुपाच्या वेळा बर्फाचे वादळ सुरू जालें. खूब थंडी पडली. अशे थंडेंत बोटीमरेन वचप कठीण आसलें. सॉंडर्सान वांगडयासयत अेस्कि-मोच्या घरांत रावचें थारायलें.

## कॅ. अेलीस मेळ्ळो

बोल्टनाच्या पंगडात फ्रेड, ग्रीम हे शिकारी आसले. ते सगळे अुतर दिकेक गेल्ले. कितलेशेच मैल ते बर्फाळ वाठारांतल्यान चल्ले पुण तांका कांयच शिकार मेळ्ळी ना. खूब दीस चल्ल्या अुपरांत अेक ल्हानशें सोल जातीचें मुस्तें मेळ्ळें. तें तांच्या सुण्याक लेगीत पावचें नासलें.

कितलेशेच दीस गेले पुण शिकार मेळ्ळीना. ताका लागून जेवणाची मारामार जाली. वांगडा हाडिल्लें जेवण सोंपूंक आयिल्लें.

पंगडातले लोक निर्शेले. तांची मनां विटलीं. बोल्टन आपल्या वांगडयांक धीर दिवचो यत्न करतालो पुण फ्रेड मात केन्नाच व्हय अितलो निर्शेल्लो. ताका शिकारीपरसं ताच्या बापायचो सोद लावप म्हत्वाचें आसलें.

वतांवतां तांका अेक ल्हानशें गांव दिसलें. अेस्किमोंची धा-बारा घरां आसलीं. मिटुकाच्या मदतीन अिस्टागत जोडूंक चड वेळ लागलोना. अेस्किमोनीं ह्या गोऱ्या लोकांक बेस बरो येवकार दिलो. भरपूर खांवक - जेवंक दिलें. मागीर फ्रेडाक अेका वाटकुळया घरांत विसव घेवंक सांगलें. फ्रेड वाटकुळया घरांत गेलो आनी ताका अजाप जालें ! त्या घरांत चामडयाच्या हातुणार अेक मनीस न्हिदिल्लो. ताचें तोंड पळेतनाच फ्रेडाच्या तोंडांतसून अुतर फुटलें, "डॅडी !" फ्रेड तसोच फुडें धांवलो. तो ताचो डॅडीच आसलो ! ताका खूब खोस भोगली ताची निर्शेणी खंयच्यांय नाच जाली !

फ्रेडाक पळेतकूच कॅ. ॲलिसाकूय अजाप दिसलें. ताणें सपनांत लेगीत चितूंक नासलें कि आपलो पूत असो अकस्मात आपणाक मेळत म्हूण. बापूय - पूत अेकमेकांक मेळ्ळे. खूब खूब अुलयले. अुलयतां अुलयतां ॲलिसान फ्रेडाक आपली गजाल सांगली, "बॅफिनच्या दर्यांत बर्फाची शिवोर पडिल्ल्यान ह्व्रतारी पातमार आडखळून अुल्ली. थंय सामके दोन शिशाचे तेप काडचे पडले. तिसऱ्या वर्सा परत-तना वाटेंत वादळ जालें आनी पातमार व्हांवत व्हांवत अुत्तरेक पावली. निमाणे थंयच ती दर्यांत बुडली. पातमारीवयले सगळे लोक बुडले बिल्सन आनी हांवूच वाचलो. कशेतरी ह्या वाठारांत आयले पुण बिल्सन चड तेप जगलोना. हांव ॲस्किमोंच्या आलाशिऱ्यान जगलों. केन्नातरी अकादी पातमार येतली आनी हांव घरा परततलों ह्याच अखेर हांव जगतालों. आज ती पूरी जावचो वेळ आयल्या."

चार-आठ दीस थंय रावल्याअुपरांत कॅ. ॲलिसावांगडा फ्रेड, बोल्टन आनी बाकीचे शिकारी पातमारीर परतले. त्याच वेळार नातळाचो परब येवची जाल्ली. सगळे खोशयेन परबे तयारेक लागले.

## सुर्या अुदेलो

जनेवारीची पयलो पंद्रस सोपली आनी अितलेदीस लिपिल्ल्या सुर्याची, मळबांत येता म्हणपाची सूलूस लागली. अुजवाड पडूंक लागलो. 'अेकदांची रात सोपली!' सगळ्यांनी खोशेन अुस्वास सोडले.

दिसानदीस मळब धवें जावंक लागलें आनी फेब्रुवारीच्या मदलशेक मळ-बांत सुर्या दिसूंक लागलो. त्या वेळार सगळ्यांक जाल्ली खोशी शब्दानीं सांगू नजो. तांडेल्यानी नाचून, गावन सुर्याक येवकार दिलो.

खोशेन सगळ्यानीं सामकार आशिल्ल्या दोंगरार वचून सूर्याचें दर्शन घेवची कार्यावळूत थारायली.

दुसऱ्या दिसा कॅ. गाय, ॲलिस, फ्रेड, टॉम, बोल्टन बाकीच्या वांगडयां-सयत सुर्यदर्शनाच्या भोंवडेक भायर सल्ले.

हांसत खेळत, गायत सगळे वताले. कोण कोणाच्यो मस्कऱ्यो करतालें कोण धांवपाची पैज लायताले, कोण अुलोवपांत रंगलेले.

वता वता तांका अेका दोंगुल्लेआड अेक अजापाची गजाल दिसली!

धवीं फुल्ल मोठ्ठीं तीन व्हड आनी दोन ल्हान अस्वलां खेळपांत, अुडयो मारपांत मग्न आसलीं. अेक दोन लोखंडाचीं पिपां आनी कांय खोके, पेटयोय थंय आसल्यो. अेका अस्वलान अेक दावकल मारून पिपाचो पिठो करुन अुडयलो. ल्हान अस्वलानीं नाचून पेटयो पेड्डचार केल्यो. तीं सामको बोवाळ घालतालीं!

हे लोक पळेतूच अुल्ले. असलो कसलोय प्रसंग येत म्हणपाचें ताणीं चितूंक लेगीत नासलें. देखून ताणीं तुबक, भालो जांव आनीक कसलेंच हत्यार वांगडा हाडूंक नासलें. आनी हातांत कांयच नाशिल्ल्यान तांका मारूंक मेळ नासले. त्या अस्वलानीं हल्लो केलो जाल्यार वांचपूय भोव कठीण आसलें! देखून सगळे ओगगी रावले.

पुण 'ओ-रिले' नावांचो तांडेल मात भियेनासतना हातांत अेक दांडो घेवन व्हडा व्हडान आडुत अस्वलांच्या आंगार गेलो. ताचीं तीं पिशेपणां पळोवन सगळेजाण आडूले 'आरे, आरे फाटीं सर' पुण ओ-रिले ताचें आयकनासतना फुडें गेलो आनी बाकीचे लोक ताचे फाटल्यान आडुतूच अुल्ले. तांच्या आडूपान दर्यो हालल्यो आनी अकस्मात जाल्ल्या ह्या बोवाळान अस्वलां भियेलीं आनी

पेटी तुटसर धांवली, ती नाच्च जाली ! संकस्ट पयस जालें ! सगळ्यांक खोस जाली. अस्वलांच्या भिजूडपणांचें हांसूक आयलें.

"पुण हीं पिपां, पेटयो, हें सामान हांगा कशें आयलें ?" कॅ. गायन म्हळें

"म्हजेंच आसतलें हें सामान." कॅ. अेलिस सांगू लागलो. "ध्रुवतारो पातमारीवयलें वाटांव येता तितलें सामान हावें वाटायलें आनी फुडें वच्चेपयलीं हांगाच खंयतरी तें बर्फांमुळा लिपोवन दवल्लेलें. वयलें बर्फ ह्या दोन वर्सांक वितळून गेलें जावये आनी हें सामान अस्वलांच्या हातांत पडलें आसुये !"

कितें योगायोग पळे ! अेलिस मेळ्ळोच वेल्यान ताचें सामान लेगीत मेळ्ळें ! हाचें अजाप करीत सगळे जाण फुडें वचूंक लागले आनी निमाणे अेकदांचे दोंगरामाथ्यार पावले. सूर्य अुदेवचो वेळ जाल्लोच कांय वेळानूच सूर्य वयर सल्लो, सगळ्यानी टाळयो वाजोवन, बोवाळ करून नव्या दिसाक येवकार दिलो.

## निमाणें कितें

जेन्ना वोत पडलें, बर्फाची जमीन तापून बर्फ वितळूंक लागलें. गोठलेलो दर्याव व्हांवूंक लागलो.

"चला आतां वच्ची तयारी करात" कॅ. गायन हुकूम सोडलो. सगळेजाण परतुगाचे तयारेक लागले आनी अेक दीस भरतेच्या वेळार सागरकन्येंचो नांगर वयर अुखल्लो. दर्याचेर परती सागरकन्या धोलूंक लागली. खूब संकश्टांक तोंड दिवनूय घरा बरेभशेन परतले हाची खोस सगळयांकूच जाल्ली. जाल्ल्या कष्टाच्यो यादी घोळयत ते वाट चलताले.

पुण अजूनूय ते संकश्टातल्यान सुटूंक नासले. अेका दिसा दोन तांडेल धांवत धांवत आयले आनी सांगूंक लागले, "धांवात, धांवात ! अुजो लागला आनी थंय लागींच दारवेची कुड आसा !" धुंवराचे लोट दिसूंक लागले. बेगीबेगीन सगळ्यानीं दोन व्हडीं दर्यांत घालीं. जाता तितलें सामान तातूंत भल्लें. खावपा पियपाचे नग घेतले. अुजो पेटत आसलो, सगळ्यानीं व्हडयांत अुडयो माल्ल्यो सगळेजाण व्हडयांत बसले आनी व्हडीं धांवडायलीं. थोडयाच वेळांत अुजा दारवेक लागलो आनी सागरकन्येचो गोबोर जालो.

सागरकन्या ना जाली, पुण कोणाक कांय जालेना.

निमाणें बऱ्याच दिसाच्या प्रवासाअुपरांत ते सगळेजाण ग्रेटन बंदरांत देंवले. आका, अिझाबेल थंय आयिल्लीच. ताणीं अेक खोशेचीं खबर हाडिल्ली आनी ती खबर अॅलिस आनीं फ्रेडाखातीर आसली. फ्रेडाची आवय जिवी आसली आनी ती घरा परतल्या म्हणपाची ती खबर आसली ! हीं खबर आयकून अेलिसाक खोस जाल्ली.

हें कशें कितें जालें ?" फ्रेडान घरा येतकूच अजाप्यकूच विचाल्लें. तिणें सांगलें, "दर्यावयल्या चोरानी म्हाका दर्यांत अुडयली पुण देवादयेन अेक वल्लें म्हज्या हाताक लागलें. ताच्या मदतीन हांव रातभर अुदकांत अुफेलीं. सकाळीं अेक पातमार दिसलो. तांतल्या तांडेलानीं म्हाका पातमारीर चडयली पातमार सॅंडविच जुंव्यार वताली पुण मदींच मोड जालें आनी ती पातमार फुटली. आमी सगळीं फिजी जुंव्यार रावलीं. तीन वर्सां आमी थंयच काडलीं. मागीर अेक ऑस्ट्रेलियन पातमार वाट चुकून त्या जुंव्यार पावली आनी तांतल्यानूच हांव हांगा आयली."

ह्या गजालीचें कोणाकूय अजाप दिसपाचेंच. फ्रेड आनी अेलिसाकूय दिसलें खूब संकस्टांतल्यान वाचून सगळीं अेकमेकांक मेळ्ळीं. सगळयांकूच खोस जाली !